# चिंदयाचे गोम्बे

शब्बीर बाय्दा

BASTI

BASTI PRAKASHANA
Basti Gardens
Thumbay - 574 170
Bantwal (D.K.)

**CHINDIYACHE GOMBAY**- A collection of Konkani poems by Shabbeer Bayda, Dubai



***Published by :***

Basti Prakashana
Basti Gardens
Thumbay 574 170
Bantwal, (D.K.)

First Edition 2005

*Cover Design by :*

**Altaf Damudi**

Copies : 500

Price : Rs. 100/-

*Printed at:*

**M/s. Codeword Process & Printers**
Mangalore - 575 001

## हांव तुमकां मान बागायतां

रवींद्र धुर्वे, ठाणे - मराठी टीचेर/कवी
आब्दुल रहीम इर्शाद, नायती कवी
आब्दुल्ला रफीक, नायती कवी
आब्दुल बारी मोहतीशाम,
आब्दुल रेहमान मोहतीशाम (जान)
सैयद आब्दुल रहीमान बातिन - नायती आनी उरदु कवी
सलाहुद्दीन कोबट्टे - उरदु आनी नायती बरवपी
आब्दुल रेहमान सिद्दिकी
मोहम्मद बापु बाश्शा
डोमिनिक हिल्ल, यु.के.
डेविड मार्नम, यु.के.
गुफरान अक्रमी
अली साहेब मल्पा
इकबाल मुल्ला
आब्दुल अलीम मोटिया, संपादक, प्रिंटर आनी पब्लिशर - नक्ष नवायत
भटकल मुसलिम जमाअतं, दुबाय
स्टुडेंट्स ओफ जामिया इस्लामिया, भटकल
नवायत्स ओफ ओमन
आफताब कौला
मेल्वीन रोड्रीगस
गोकुलदास प्रभु
बस्ती प्रकाशन



शाब्बीर काधरा

# कोंकणी संसार विस्तार करचे दिशेन पोटलून धरिजे जाल्लें 'चिंदयाचे गोम्बे'

खंयचेय भाशेंतल्यो बोली, ते भाशेची गिरेस्तकाय पाचारतात. कोंकणी भाशेंतय जायत्यो बोली आसात. पुराय बोलिंतल्यान सराग जर तर साहित्य निरमाण जांवक सुरू जायना जाल्यार जें प्रमाणीकरणाचें गुमट आमी मारून आसांव ताचो आवाज मात्र उरतलो. सरवय बोलींक सांगाता घेनास्ताना प्रमाणीकरण उलंवचें पिशेपण म्हण हांव लेखतां.

कोंकणिच्या जायत्या बोलीं पयकी नायती बोली एक. तुमच्या हातांत आसचें 'चिंदयाचे गोम्बे' नवायत या नायती बोलींत छापुन आयलां आनी कोंकणी साहित्याचेर प्रकास फांकच्या किरणांचें बळ वाडलां.

प्रवादी मोहम्मद सरोन फकत सत्तर वरसां भितर, चडुणे ६९९ इसवे तेवशीं मुस्लीम लोक भारताक आयलो म्हणोन गोवायो मेळतात. आन्येका उतरान, ७११ इसवेंत मोहम्मद खासीमान सिंध प्रदेश आक्रमण करच्या इकरा वरसां आदींच भारतांत मुस्लीम आसल्ले. तशें जाल्ल्यान - कोंकणी मुस्लीम लोक, मोपळा (मापळी) लोका सांगाता भारतांत वस्ती करुंक आयल्लो भोव आदलो मुस्लीम लोक म्हण्येत.

त्या काळाच्या आरबी आनी फारसी तारवोटींक 'ना-खुदा' म्हणताले. परने फारसी भाशेंत, 'नाव' म्हळयार होडें आनी 'खुदा' म्हळयार देव म्हळळे अर्थ आसात. ह्या आरबी - इरानी 'ना-खुदा' सब्दाचें प्राकृत रूपच 'नवायत' म्हणोन सांगतात.

नवायतां मधें तीन समाज आसात. एक समाज उत्तर कन्नड जिल्ल्याच्या भटकळांत जियेता. दुसरो समाज हैदाराबाद तशें मद्रासांत (चेन्नय) जियेता आनी तिसरो समाज आपणाक आतां 'नवायत' म्हणोन वोळकना, बगर 'कोंकणी मुस्लीम' म्हण आपयता. नवायतांचे कोंकणी बोलींत उरदू, आरबी तशें फारसी सब्द पुश्कळ भरसल्यात. भाव थोड्या धारमीक कारणांक उरदू लिपींत बरयल्ल्या कोंकणी भाशेचो प्रयोग जाता सोडल्यार शेरांनी जियेंवच्या नवायत लोका मधें उरदुचो प्रयोग चड जाता. उरदू आपणायल्ल्यान राष्ट्रीय पांवड्याची अस्मिताय लाभोन, नवायत समाजाक विशेस बळ येतलें म्हळळें राजांव हाच्या फाटल्यान आस्येत.

हो एक समाज, विस्तार कोंकणी समाजाच्या पालवा भितर आजून पळेंवक मेळना. हाका एकल्याची भिरांत आनी आन्येकल्याची आळसाय कारण आस्येत या कोंकणी समाजान दिव्येत जाल्ल्या बळाच्याकय एकशें वांट्यांनी उरदुकरण तांकां बळवंत करूंक सकता म्हळळो काळजांत दवरल्लो गुपीत विसवासय कारण जांवक पुरो.

असले पागोर कोसळावन म्हळळेबरी नवायती / नायती बोलिंतलें एक पुस्तक पयले फावटीं देवनागरी लिपींत छापुन आयलां.

चडुणे २००२ इसवेंत 'मांड सोभाण' कारभारी एरीक ओझेरियो दुबाय शेराक पावल्ल्या वेळा, कोंकणिच्या एके सभेंत नवायत समुदायाच्या जायत्या वक्तिंचीं वोळक जाली. ही वोळक उपरांतल्या एका बैठकांत थिर जाली. ह्या बैठकांत कवी शब्बीर बायदाची विशेस प्रतिभा पारकिल्ल्या आमी ताच्या पुस्तकाची येवजण घाली.

मागीर जाल्ल्या जायत्या मुलाकतेंनी, थोड्यो थोड्यो म्हणोन शब्बीरान ताच्यो कविता वाचून सांगल्यो आनी हांव म्हज्या कम्प्यूटराचेर अक्षरांची मेळावण करीत गेलों. हो वावर तितलो सलीस नातल्लो. शब्बीराक कानडी / नागरी लिपिची जाणविकाय भोव उणी आसल्ली आनी म्हाका नायती बोली सलीसायेन समजनातल्ली. त्यादेकून सगळयो कविता सांगाता घालूंक आमकां वरसांच गेलीं.

शब्बीर बायदा २६ दशेंबर १९५२ इसवेंत भटकळच्या सुल्तान सायींत, बायदा घराण्यांत जलमलो. ताचो पिता जिफ्री बायदा, महाराष्ट्राच्या ठाणेंत धाकटें एक रेस्टोरेंट चलयताले. पयल्यान पयलें खुरआन शिकतच - भटकळ, ठाणे, मस्जीद बंदर मुबंय, चेन्नय - अशें वेवेगळया गांवच्या शाळेंनी शिकचो सुयोग ताका लाभलो.

परगट जिणयेंतय वेवेगळया स्तरांचेर नोकरी करताना भारत तशें सावदी आरेबिया, अरब एमिरेतांत ताणे जिवीत सारलां. सद्या तो शारजा शेरांत वसती करून आसा.

लगबग देडशें कोंकणी गितां, चाळीस हिंदी / उरदू गितां आनी गझलां, पंदरा मुकाल्मे बरयल्ल्या शब्बीरान पांयशीं नायती अदगतो (म्हण्ण्यो) जमयल्यात तशें नायती अर्थकोशाच्या वावराची सुरवात केल्या.

फाटल्या तीन वरसांनी जेन्नां कवी शब्बीर बायदा आनी हांव धरमांच्यो वोंयों उडोन, कोंकणिच्या नंदनावनांत सराग मेळोंक लागल्यांव, तेन्नां शब्बीराच्या शिरां शिरांनी रगता बदलाक कोंकणी काव्याचें अमृत व्हाळता म्हण हांव समजोंक लागलों. स्वता कविंच्या आनी कवितेच्या आंगालापान बुडोन आसच्या म्हाका, हो कवी मेळोंक इतलीय कित्याक गळाय जाली चिंताना स्वताक शिरापुंक लागलों.

शब्बीराचे कवितेंनी ताचो गांव आनी त्या गांवान आपणाचींच करन घेतल्लीं भोव परनीं तरीपुण आजून मोगाचीं वेक्ति त्वां; परिसर, परिसरांतल्यो वस्तू उसवास जोडतात. 'गांव', 'भटकल', 'फूले', 'घरची कूकड', 'माड़ो', 'पान्याची गाड़ी', 'धाकलोशी एक पोर भल्लो' -

वाचताना नायती समाजाची तशें तांणी वस्ती करून आसच्या भट्कल प्रदेशाची काव्याळ वोळक आमकां जाता.

'आठौ','पालौ', 'एकली', 'आज़ो', 'भन्डारी', 'बापा', 'शेजार' - वाचताना ह्या एका गांवचे रंगमांचीयेर वेवेगळे कलाकार येवन उबे जातात आनी आमी येदोळ पळेवन नेणासल्ल्या आपल्याच संसारा भितरल्या गुपीत एका नव्या संसाराक आपवन व्हरतात. मागीर 'सावरी' कविता वाचताना ह्या आमच्या नेणारपणाक हस्तिचें बळ मेळता.

अशें वोळख करन दिल्ल्यो वेक्ती 'जिबेर कांय, दिलात कांय' (दोन रंगी) आसात जाल्ल्यान, तांकां 'चार दीस' 'दुन्या' आनी 'मौत' कवितेंनी छेतावणी लाभता.

'घडयाळ', 'टपाल', 'बस', 'फोन' - इत्यादी कविता आधुनिक तांत्रिकतेवरवीं रुता जाल्ल्या नव्या भोंवाराची वोळख करून दितात जाल्यार 'कागज़ाची सम्कू' आनी 'चिंदयाचे गोम्बे' ल्हानपणा तेवशीं तुका आपवन व्हरतात. कांय थोड्या कवितेंनी आल्लाह थंय आसची भक्त आनी ताचो विसवास उगतो दिसता.

कवी शब्बीर बायदान कोंकणीकच आपरूप दिसचीं कांय कविते रुपां सादर केल्यांत. उरदू आनी हेर भासांच्या साहित्यान ताचेर घाल्ल्या परिणामाचो फळ हो. चडावत कविता प्रासांनी, ताळांनी बांदुन हाडल्यात जाल्ल्यान वाचतल्याक आपरूप सब्दांचो अर्थ समजोंची आडखळ जाली जाल्यारूय, संगीताची गोडसाण चाकची तुरपणकाय आसशिना.

'चिंदयाचे गोम्बे' पुस्तक स्वता म्हज्यान छापून काडयेतें. हांवें तशें केल्लें तर ह्या पुस्तकाच्या महत्वाची गजाल च्यार - चोवगां मुखार पांवचे विशीं म्हाका दुबाव आसल्लो. त्या देकून कोंकणी साहित्य परिषदेचे कारभारी जावनासच्या गोकुलदास प्रभु तशें बस्ती वामन शेणै - लागीं हांवें ही गजाल सांगताना तांकां खिणान ताच्या महत्वाची गरज समजली. तांचें उगतें मन आनी कोंकणिच्या बरेपणाविशीं तांकां आसचो हुसको - ह्या पुस्तकान उजवाड देखोंक कारण. तांकां हांव सदां रिणकारी.

ह्या पुस्तकान नायती बोलीच्या लोकाक कोंकणिच्या प्रमुख व्हाळयांत वोडुन हाडलें तर ह्या आमच्या कुसकूट वावराक एक विशेस चाल लाभतली म्हणच्यांत नवल ना.

**मेल्विन रोड्रीगस** — **जनेर १०, २००५**

**दुबाय**

# प्रकाशकाले उत्रां

विविधतायेंत एकता भारत देशाचे संस्कृतीचो जीवात्मा जाल्यार तया कोंकणी [illegible] गिरेस्तकाल्या. भारताचो पयलो प्रधानमंत्री पं. जवाहरलाल नेहरूजींगेल्या उत्रानी सांगचें जाल्यार सामाजीक, सांस्कृतीक विविधता भारतीय संस्कृतीचो जीव आनी त्या निमित्तानच भारत देश एक देश जाव्न ५००० वर्सथाकुनु वांचून आयला. हें तत्व कोंकणी भास आनी संस्कृतीक चड लागू जाता.

कोंकणी भास मोगाळ भास मात्र न्हय, एकि रंगाळ भासया व्हय. पावस पडतना मळबारीथाकून येवचे इंद्रधोण अशे मळबाक आकर्षक करता तशेंची कोंकणी भाषेंतूले वैविध्यतायेन आमगेली आवयभास कोंकणी रंगाळ आनी श्रीमंत जाल्या. कोंकणी सरसामान्यांतूल्यो वेशवेग्ळी बोली, वेषभूषा, संप्रदाय, धार्मीक, सामाजीक विचारांत, विश्वासांत जायती वैविध्यता आसल्यारी, म्हाडयानीं ते भारतीय विचाराचे मूळ तत्वारी विश्वास दवरून कोंकणी भास संस्कृती वरोव्न हाडल्या. हाचें कारण तांगेले उदार मन आनी हेतु.

कर्नाटकाचे भटकळी नवायत समाज एक ग्रेस्त समाज. व्यापार तांच्या रक्तांत आसा. जल्माक येतनाची नवायत भुरगें व्यापाराची भायर-भितरच्या श्रीलंका, दुबाय इत्यादी गल्फ् राष्टांतूच्यी तो समाज व्यापार करुन श्रीमंत जावन आसता. श्रीमंत जावन कितले व्हड जन जावन आसल्यारिय, तांगेले वाटारांत, परिसरांत आसचे इतर समाजा सांगाता केदनाय बरेपणारी, विश्वासारी हासून हासून जीविताती. हो मेगेलो वैयक्तीक अनुभव.

भटकळ नवायत समाजांत साहित्यकार, भोव उणेच म्हळयार चलता. करनाटकांत कोंकणी चळवळ, 'कोंकणी जाथा' चलोवंच्या वेळारी तांगेल्या 'नक्ष नवायत' पत्राचे संपादक देवाधीन अब्दुर् रहीम इर्षादबाब हांचो वळख जाली. आनी आमकां गेल्या समाजालागीं बरो संबंध येवचाक वाट मेळी. भटकळ नवायत समाजांतलो कोंकणी भाषाभिमान कळून आयलो उर्दु, फारसी आनी, अरेबीक शब्द तान्नी आदान-प्रदान करून कोंकणी मायभासे श्रीमंत केलेलेंय कळून आयलें. पयलें विश्व कोंकणी सम्मेळन चलतना, व्हड संख्यान ते मंगळूराक पाविल्लें, सांस्कृतीक कार्यावळींत तांगेल्या कलाकारानी 'धम धप्' प्रदर्शन करून तांगेल्यां लोकावेदाची वळख जगत्याचे चारी दिकां थाकूनु आयिल्या कोंकणी जनांक करून दिलें, हो इतिहास जावन आसा.

नंतर कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकादमी तर्फन पयलें पावटी प्रशस्ती प्रदान करतना कोंकणी पत्रकारिता पुरस्कार आमी देवाधीन अब्दुर् रहीम इर्षादबाबाक सर्वानुमतान प्रदान केलें.

उप्रांतच्या वरसांत 'आम्मी कोंकणी-आम्मी नवायत' कार्यक्रम कोंकणी अंकादमी वतीन भटकळांत मांडोवन हाडिल्या ऐक दिवसाच्या समारंभांत हजारापरस चड नवायती आनी इतर समाजाचे कोंकणी लोक थंय जमलेले. हो कार्यक्रम जनांक, साहित्यिक जावन, सांस्कतीक जावन लागी हाडचे हेतु यशस्वी जालो, अर्शी म्हाका भोगता. इतर कोंकणी उलोवपी जनांक, भटकळ नवायत लोकलागी येवचे तर्शी जालां म्हळलो मेगेलो विश्वास.

अतां नवायती कवी शाब्बीर बायदा हांगेले 'चिंदयाचे गोंबे' कोंकणी काव्य संग्रह उजवाडावचो भांगरा संदर्भ बस्ती प्रकाशनाक लाभला.

तांगेले कविते विशों फामाद कोंकणी कवी आनी मेगेलो मोग्याचो मित्र श्री मेल्वीन रोड्रीगस, दुबै हान्नी आनाकलो फामाद कोंकणी, साहिति आनि मेगेले सांगाति, अखिल भारत कोंकणि परिशदाचे सरकार्यदर्शी श्री गोकुलदास प्रभु हांका कळयलें. हाजे निमित्तान श्री शब्बीर बायदाबाबाले कोंकणी कविता झेलो 'बस्ती प्रकाशन' तरफेन उजवाडांवची संधी म्हाका मेळया. हे म्हाका खूब आनंदाचो आनी अभिमानाचो विषय. कवी श्री शब्बीर बायदाबाब, मोगाचे मेल्वीन अनी गोकुलदास प्रभु हान्नी बस्ती प्रकाशनाक 'चिदयांचे गोंबे' उजवाडाचाक दिलेल्या सुयोगाक देवु बरें कोरो. हो आमगेलो प्रयोग, प्रयल, देवाधीन अब्दुर रहीम इर्षादबाबाले आशीर्वादाक फावो जातलें आनी तागेले आत्मो संतोस भोगतलो अर्शी मेगेलो विश्वास.

'चिंदयांचे गोंबे' कविता झेलो पुस्तक सुंदर जाव्न छापून दिलेले कोड्वर्ड प्रोसेस & प्रिंटर्स संस्थेक देवु बरें कोरो.

कोंकणी भासेचे अनी साहित्याचे मोगी 'चिंदयांचे गोंबे' कविता झेलो उदार मनान स्वीकार करतले आनी भटकळ नवायत समाज कोंकणी साहित्य आनी सामाजीक धारेंत फुडें पावचाक ही संधी कारण जातली असा मेगेलो विश्वास.

दि. १९.२.२००५

**बस्ती वामन शेणै**
प्रकाशकद
बस्ती प्रकाशन
तुंबे - बंटवाळ

# आल्लाह हु अकबर

वडलो धाकलो हर बशर
सायान सायों घरान घर
दे साम्माची जीबेवर
आल्लाह हु अकबर आल्लाह हु अकबर
आल्लाह हु अकबर आल्लाह हु अकबर

साव्व़च ठावार तुकच तू
रब साम्म़ाचो एक्कच तू
दुन्या जन्नत जहन्नम
घड़वलो रब साव्व़च तू
हाकिम दोनीव जहांवर
आल्लाह हु अकबर आल्लाह हु अकबर
आल्लाह हु अकबर आल्लाह हु अकबर

तवफ़ीक दे रब जीबे
रात व सकन मग़रीबे
वलखु तूजे व़डलेपन
चालते बैसते व ऊबे
जिक्रतुज़ो सरासर
आल्लाह हु अकबर आल्लाह हु अकबर
आल्लाह हु अकबर आल्लाह हु अकबर

वारी तुजेर तन मन धन
करु परिन रब दे मन
आमचे जेकायं सा तुजे
हर किस्माचे वड़लेपण
तुकाक आशे सज़ावर
आल्लाह हु अकबर आल्लाह हु अकबर
आल्लाह हु अकबर आल्लाह हु अकबर

दीनेची तू चाहत दे
रिज़् क़ व अक्लो इज़्ज़त दे
अमचेन रब तू ज़ा राज़ी
अमकाक तुजी उल्फ़त दे
हर मुश्किल तु आसां कर
आल्लाह हु अकबर आल्लाह हु अकबर
आल्लाह हु अकबर आल्लाह हु अकबर

# गाँव

आपौता तुमका गांव या
सोड्डुन ते परगांव या
आपली आवशी व्हट्टेत जीशी
    बीजी बावड्डून रहांव या
    आपौता तुमकां गांव या

गूड़े दरयो न्हयों हि
गादी पोर्शे सायों हि
बंगले घरे गुड्डसुल्यो
मट्टी काले वयों हि
    या हिंगाचे ज़ांव या
    आपौता तुमकां गांव या

मोग्री केदग व च़ापी
ज़ाई फूले ति तांबी
कस्तमोग्री वनफूले
शवंती तांबी गुलाबी
    परमल हो हुम्यांव या
    आपौता तुमका गांव या

गोड़ान किचड़ी मुड़कले
आलबे वाटवे संवदले
हलदिपाने कालवा मांस
खें? हें तुमका मिलतले
    सौ सौ खाने खांव या
    आपौता तुमका गांव या

मंडप पड़लान परनाचो
खिलखिलो हो सय्यांचो
हलवो तेरलोस पिसौली
उकीरो हो तरनाचो
    मिलुन द़िखरो बल्ल्यांव या
    आपौता तुमकां गांव या

ख़ोशेची एक बीजी वाट
जेत्तां घरे शय्या काट
चाटटु सानशे शय्याफ़ली
शय्यो पीलुन दुखलान पाट
    पेस आमी पियांव या
    आपौता तुमका गांव या

चड़वांच़ो तो लाड़ हिंगा
म्हेल्ल्येचो उज़वाड़ हिंगा
आउस बापा भावड़े भन्यो
रिश्ताचो एक माड़ हिंगा
    साम्मा मनात भरयांव या
    आपौता तुमकां गांव या

आपौता तुमकां गांव या
सोड्डुन ते परगांव या

# आठौ

येता काग़ज़े फ़ोन बिजी
आयले नाही भौन बिजी
कीशि जीतां में बेने
पला ज़रा यौन बिजी
    येता काग़ज़े फ़ोन बिजी
    आयले नाही भौन बिजी

का माका हो दुख देले
खेका ने सोड्डुन गेले
तिल तिल मरतां में पल पल
सोड्डुन या साहु टेले
    उम्र वता करगून बिजी
    येता काग़ज़े फ़ोन बिजी

भुक आशे ना सोस माका
थकली समज़ौन औस माका
तुमी नातुन में जीतां
होकच एक आफ्सोस माका
    वरशे ज़ाता दोन बिजी
    येता काग़ज़े फ़ोन बिजी

दुख मोज़ो सांगुं कोना
फिक्र मोजी तुमी घेना
वोमते मारुन या साहु
तलमलतां में हें जीना
    वाटेत मोजे कोन बिजी
    येता काग़ज़े फ़ोन बिजी

वता रातो ही ज़ागुन
धड़ान गेली में भागुन
सरी जीयांव हर एक पल
हीकच़ दुआ में मागुन
    दुःख डोलात भरुन बिजी
    येता काग़ज़े फ़ोन बिजी

वाच़ून हो संदेस या
सोड्डुन ते परदेस या
ढलते आशे मोजी जवानी
फांगरे ज़ाता केस या
    वच़ू नाखात यौन बिजी
    येता काग़ज़े फ़ोन बिजी

येता काग़ज़े फ़ोन बिजी
आयले नाही भौन बिजी

# फूले

आमचे क़ौमाची खून फूले
कस्तमोग्री गुतून फूले
वनफूले केदग ज़ाइ व चापी
शवंती व मोग्री फुलून फूले

फुला परिन ही चड़वांक पले
माथार हेंचे घालुन फूले
व्हरैता व्हरतात दिख़ारो बलते
गलात हारे भरुन फूले

परी बलूं में या हूर व्हकले
माथार मुरसो गुड्रून फूले
शेली फुलाची बेने ही सुघड़ै
बिजी हि आड़यो करून फूले

केसाची मोडित ज़ांद जीशी
हो चंद पले गुतून फूले
गावांत आयले तरीन तिजेतैं
शिंघरता हरदम लावून फूले

कोपून बैसली तरीन म्हेली
मनवता हो घौ व्हरुन फूले
माकाक परमल तुजो इशी-गे
जिशी के ताज़ा आजून फूले

व्हरैत भौन्यां वरुन उठलान
पला उकीरो लुसून फूले
भेंट सना रहालान घरे
पटनार पिगने भरुन फूले

फूले ही न्होईं जिऊंचे पुरते
मद्दुसे वर घालुन फूले
मेलान शब्बीर फोंडात पुरून
येतले कबरेर शिपून फूले

# पालौ

आंगार ढापुन रहाता हो पालौ
जिऊंची माण्णी देता हो पालौ
फुलून येता तुजी-गे सुघड़ै
माथार येता जेत्ता हो पालौ

घालून धुवो-म्हेली व भन्र्यो
आवूस मावशी आता हो पालौ
कामाचे नावीन-गे माथो उघड़े
कुट्टा़चो पाटो किता हो पालौ

गलात वड़नी आशे या राज़ु
तुका-गे गाली सुता हो पालौ
आवशिची व्हट्टि सुखा़चो हट्टो
आजीब चा़ट्टि देता हो पालौ

चा़ंदाचे तोंडार मोड पले
जिशी के उडून वता हो पालौ
वसराचे दारार वाटे उबे तु
माथार नाही किता हो पालौ

# करंट गुल

गेली तरीन वात ही
ज़ाता अज़ाब रात ही
गरम तरीन गरम अशे
हेजेर बिजी मुरम अशे
नींद खें डोलात ही
गेली तरीन वात ही

पुल्ल्यो भरुन चाम कौं
रसौता पले घाम कौं
हाल मोज़ो खें धरौं
हो दीस में किशी सरौं
शेल शिवनात ही
गेली तरीन वात ही

पानी नलात हुने हुने
धाबो तापूचे कौं बेने
घर तापून भट्टि पले
रहाता गरम कट्टि पले
राहत खें घरात ही
गेली तरीन वात ही

बाविंच़ो पंप च़ाले नाही
टाक्येत पानी रहाले नाही
कापड़े जमा भल्ली दिशीन
बंद अशे वाशिंग मिशीन
चटणी लसुन पाटात ही
गेली तरीन वात ही

तरकारी फल दुधाची रास
फ्रिज भरुन म्हावरे व मांस
करंट गुल ज़ालो तरीन
ज़ाता साहु उकौं परीन
येता फिकिर मनात ही
गेली तरीन वात ही

# धाकलोशी एक पोर बल्लो

धाकलोशी एक पोर बल्लो
करे नातुन शोर बल्लो
ज़ापने अयकु परीन व्हते
करा ज़रा ग़ौर बल्लो
धाकलोशी एक पोर बल्लो
करे नतुन शौर बल्लो

सार्यीत तिंगा झुज़ले दोगी
ऐकलो ऐकला ढुंगलून बगी
ज़ापने ज़ाल्ले धाकलेशी
हाथा हाथी ज़ाली दीगी
फुगरो फुगरा थोर बल्लो
धाकलोशी एक पोर बल्लो

आपले बापा लीडर बलुन
ज़ाउं पलता लीडर आपून
छि थु करता सगले गांव
लीडरी ती वाटात घालुन
मिलुचो गेलो दौर बल्लो
धाकलोशी एक पोर बल्लो

कैले चखलातली खांबे
कोपान आपले डोले तांबे
पलौन ऐकलो नाटक हेंचो
कोयो निकौन खाले आंबे
मानसा साम्मे चोर बल्लो
धाकलोशी एक पोर बल्लो

सार्यीत टिकून मरकज़ सर
सियासत ही फितना शर
जे कोन ज़ापता हक ज़ापने
उखलुन तेका बगी कर
हल्लु बल तूं ज़ोर बल्लो
धाकलोशी एक पोर बल्लो

ख़रशी आगर गेलात झारुन
बैशे नाही हिम्मत हारुन
बलता आपुन ज़ौगुलो
वल जीशी रहाता वलुन
ज़लुन गेलान दोर बल्लो
धाकलोशी एक पोर बल्लो

# ऐकली

ऐकली माका सोड्डुन गेले किताने
तुमचे आटवीन मरुन वताने
उम्र ही मोजी सरुन वताने
अनी जवानी झरुन वताने
आल्लाह मोज़ो ज़ाने दुःख में पिताने
ऐकली माका सोडून गेले किताने

या रब किसली ही बेख़्बरी
मोजी कच़ में ख़बरे भायरी
सय्याची कौं ज़ाली वैरी
कोना सांगो जेकायं जिवा ज़ाताने
ऐकली माका सोडून गेले किताने

सुघड़ कापड़े नैसुं खेका
शिंघरुन में खेवं वचुं खेका
ख़ोशेन ज़ापुं हसुं खेका
ह्दिय मोजे करगुन डोलीन व्हाताने
ऐकली माका सोडून गेले किताने

केसाक फनी फुले परमल
आनी नातुन डोला काज़ल
वाट राखतां तुमची पल पल
एक एक वरशीन पल सरताने
ऐकली माका सोडून गेले किताने

मन्नत मन्तर तावीज़ थल्ले
डोक्टर हकीम थारुन पल्ले
कोना कौं हो रोग न कल्ले
झलक तुमची देखलान होशात येताने
ऐकली माका सोडून गेले किताने

# याने याने

याने याने या ज़रा
हालत ही पालवा ज़रा
या देवुं दिलासा ज़रा
याने दक्कन या ज़रा
याने याने या ज़रा

चुलबुलतां में तलमलतां
तुमचे आठवीन तड़्पड़्तां
मोजेत कच़ में बड़्बड़्तां
धीर माका देसा ज़रा
याने याने या ज़रा

मोजे नसबा में कोसुं
सांगुं कोनाक खें वच़ुं
हो दुःख किशी में सोसुं
दुःख मोजे पूसा ज़रा
याने याने या ज़रा

ग़म किशी हो सोसुं ने
किशी जिऊं में बेने
ज़ाले दोज़ख़ हें जीने
दर्द मोज़ो वलखा ज़रा
याने याने या ज़रा

आपली जीबेक होपुन
मोजे सरीन कोपुन
वाटेत तींगा थोपुन
ग़म मोज़ो आटवा ज़रा
याने याने या ज़रा

# आज़ो

व्हते एक अमची सार्यींचे आज़ो
सुज़ानाचे अनी इज़ानाचे आज़ो
न मोजे या तुमचे न कोनाचे आज़ो
आज़ो ते सार्यींत सम्माचे आज़ो
आज़ो तेंका बल्लान साज़ुचे आज़ो
होते ते एक अमचि सार्यींचे आज़ो

सम्माचो तेंका बहु लाड़ व्हतो
सार्यींत तेन्चेन उज़वाड़ व्हतो
वारे वारे सार्यींत घुवुं कनी
तो ख़ैफ आज़ाचो आड़ व्हतो
व्हते अमचे आज़ो धीराचे आज़ो
व्हते एक अमची सार्यींचे आज़ो

ते कसकटावर सांगुचे कहानी
चड़ुपनचे किस्से आनी ती जवानी
बैसुन साम्मींव आयकुचे ख़ोशेन
ति चान्नाची रातीत पावसाचे पानी
बहु सुघ्ड़ैन ते सांगुचे आज़ो
व्हते एक अमची सार्यींचे आज़ो

खेवं कायं ज़ालान हयारी व त्यारी
पडलान ज़ाऊन कोनिवं आज़ारी
तांदुल काटी परने या मरने
साम्मे घरची मानशे या के शेज़ारी
साम्माचे कामाक धाउंचे आज़ो
व्हते एक अमची सार्यींचे आज़ो

एक दीस बावड़े गेले ते आज़ो
आल्लाहचे आम्राक पावले ते आज़ो
इशीं आज़ ऐकायेक भल्ली दिशीन
आठौ माका भल्ली आयले ते आज़ो
रहाओत जनतेत अऐ रव ते आज़ो
व्हते एक अमची सार्यींचे आज़ो

# भटकल

हें भटकल आमचे प्यारे हें गांव
मज़ा बेने आशे हें गावांत रहावं
हे गावांत ऐकडाय आयलान कोन्युं
चाह्ता सदा तो हिंगाचो ज़ांव
हें भटकल आमचे प्यारे हें गांव

अशे गावं गुड़ाची व्ह्ट्टे भितर
माड़ाची शीतल चाट्टे भितर
झाड़े ही पोरसात मट्टे भितर
घराचे हर एक पोरसात बांव
हें भटकल आमचे प्यारे हें गांव

सायों ती पोरनी व नवें नगर
पलौं सरकी सुघड़े हर एक डगर
हे गावांत आमचे दिल मन जीगर
तु वाज़वलो रब आमचे गावांचे नांव
हें भटकल आमचे प्यारे हें गांव

वतांव दूर भल्ली सोधुक दानो पानी
मगर केत्ता तिंगाचे ज़ातावुं आमी
तरस्ता सदा दिल हें गावां कनी
करगुन दिल लागता डोले हें व्हांव
हें भटकल अमचे प्यारे हें गांव

हो तेर आनी ही मारी खंबा
अशे गावीं भाव्ड़ाची भल्लिसा हब्बा
हिदायत दे सम्मा बस तु ऐ रब्बा
के हक़ अशे का हें आमी वलख्यांव
हें भटकळ आमचे प्यारे हें गांव

# मोजे तैं

मोजे तैं येतात घरे
पायं भुयींर न धरे
मन हें मसरूर करे
अंग अंग ख़ोशेन भरे
मोजे तैं येतात घरे

ही ख़ोशी दुन्येत नाही
ही मज़ा ख़ोशेत नाही
आज़ में मोजेत नाही
हर क़दम मस्तेत व्हरे
मोजे तैं येतात घरे

मोड अज़ रंगून अशे
चान्न्यो सा निखरुन अशे
आस्मा शिंघरुन अशे
चांद तु ख़ाल येरे
मोजे तैं येतात घरे

खें ख़बर कोनाची माका
न फिकिर ज़ापनाची माका
आस न दुन्याची माका
वाटे में होशात खें रे
मोजे तैं येतात घरे

आज़ में फुलात गुडुन
तुमचे कच आठवात बुडुन
या तुमी मारवार उड्डुन
ही घड़ी सरता न सरे
मोजे तैं येतात घरे

# भन्डारी

अमचे गावांत कोनतेवं घरे ज़ालान परना तय्यारी
लाज़िम एक जुज़ ज़ाऊन वाटे अमचे कौमात भन्डारी
रांधवाड़ जेत्ता मसलो ज़ाता कामा पड्ता भन्डारी
वकतार मानूस मीले नातलान ज़ाता भल्लि बेज़ारी
साम्मिवं सोध्तात सौसौ रान्धु निक्कोशी एक भन्डारी

साम्मान फूड़े पट्टि पला केटली मानशे जवंतली
हिसाब करा भाड़ाचो केटली बाल्डो वतली
वड्ले धाकले जवन मिलुन केटली पटनी ज़ातली
हें कच् हिसबान तूप तांदूल मांस हलके व भारी
साम्मिवं सोध्तात सौसौ रान्धु निक्कोशी एक भन्डारी

निक्को मिल्लान भन्डारी हिसाब पावना पावनाचो
सांगता तेटलोच् मलपानी जेटलो ज़ाता जौनाचो
पाड़ ज़ाया करे नातुन परना घरचे दानाचो
सामानावर नज़र ठेवुन करता तो पहरेदारी
साम्मिव सोध्तात सौसौ रान्धु निक्कोशी एक भन्डारी

टोपी मिल्लान रांद्तलो माथावयली घालतलो
साकार तांदुल पोटली बांधुन तूप बाल्डेत व्हरतलो
बाहेर व्हरु वक़्तार पुसलान शेले जवन बलतलो
आपले घरची चड्वां आपौन फेटौता सामान त्यारी
साम्मिव सोध्तात सौसौ रान्धु निक्कोशी एक भंडारी

## दोन रंगी

मुखार कायं मनात कायं
जिबेर कायं दिलात कायं
अजब ही मानसांचो रंग
रहातात कायं देख़तात कायं
मुखार कायं मनात कायं

हज़ार लाख ख़्वाहिशो
हेका पुरौंची कोशिशो
ही जीवनाची गरदिशो
दुखात कायं सुखात कायं
मुखार कायं मनात कायं

अशे हें जापने आम रे
ज़ावून किशी गुलाम रे
करतात पले सलाम रे
आशे तरीन किशात कायं
मुखार कायं मनात कायं

आपला आपून ज़ौगुले
बलतात पले हें आमुले
आयां रे हेंचे मुआमिले
घरात कायं मानसांत कायं
मुखार कायं मनात कायं

हो तांबड़ाचो पागरो
ख़िदमतेचो ढांगरो
घालून जुब्बा फांगरो
सांगतात कायं करतात कायं
मुखार कायं मनात कायं

# सावरी

आयलो सावरी उठौं रोज़दारी उठा
शेजे घरचे अनी साम्मेकारी उठा
बीदीहारचे उठुन उठवा पोरसाहारी
सावराची करु तय्यारी उठा
ज़ागा सोडून तुमी नीन्द प्यारी उठा
आयलो सावरी उटंव रोज़दारी उठा

ज़प्त आपले हें दिलावर करा
उठा दक्कन तुमी अनी सावर करा
बरकतेचे जवन सावराचे अशे
ईशी बल्ले नबि ज़ापने बावर करा
ग़फ्लतेत बुडुन वाटे ख्यारी उठा
आयलो सावरी उठंव रोज़दारी उठा

उम्र सगली नफिल रोज़े धरले तरीन
ज़हदो इबादतो करा तेजे सरीन
केत्तांव ज़ावंचे नाही हेज़ो पुरा वज़न
रम़जनाचे फकत एक रोजा परीन
आम ही बरकतो आशे जारी उठा
आयलो सावरी उठंव रोजदारी उठा

एक हें मासाभितर रात गरवी अशे
ईशी कुरआं भितर कौल रब्बि अशे
रात ही खैर मिन आल्फ शाहर
ऐ, तिकाफ हेजो उसवे नब्वि अशे
अज्र हें मासाचो आशे भारि उठा
आयलो सावरी उठंव रोजदारी उठा

नेकियो रमज़नाची हें जमवा तुमी
एक सुन्नत करुन फर्ज़ कमवा तुमी
आशे सत्तर गुना एक फर्ज़ासरीन
आपले रब्बाकडे माथो ख़म्वा तुमी
ज़ागा देता पला रब तो बारी उठा
आयलो सावरी उठंव रोजदारी उठा

भल्लि बरकतेचो मास रमज़ान हो
शुक्र आदा करा मिलता नसबान हो
बाबे रंय्या अशें रोज़दारां कनी
कद्र हेजि करा वता मेहमान हो
वक्त करे नाही इन्तज़ारी उठा
आयलो सावरी उठंव रोजदारी उठा

# बापा

आठौ तुमी भल्ली येतात बापा
हें दिला तसल्ली देतात बापा
मनात मोजे हरपल रहातात बापा
डोलाचे सम्मे देखतात बापा
आठौ तुमी भल्ली येतात बापा

चिमखु शिखव्ले धरुन आंगट्टी
शिखव्ले किशी ते नेसुचे आंगुट्टी
व्हतो मोज़ो माथो आनी तुमची व्हट्टी
आज़ुन अशे ज़ापने हें ख़ैलात बापा
आठौ तुमी भल्ली येतात बापा

पायं दबवलान देंवुचे पावनो
पाठीर चिमूखौन देउंचे आनो
ते गरमात तुमकाक अवंलुचे औनो
में पावसात तुमचे सातात बापा
आठौ तुमी भल्ली येतात बापा

व्हतो खौफ बेतिचो डोलाचे ते भें
ख़ता मोजी ज़ालान मारुन बिजी हें
हसौंचे आपुन कच़ रडलो तरीन में
चाहत ईशी बस देतात बापा
आठौ तुमी भल्ली येतात बापा

फिकिर तुमकां आमची भलायिची हर दम
पढो शीखो चड्वें व्हतो तुमकां हो ग़म
भरपूर देले कैले न कायं कम
करतात कोनी जे करतात बापा
आठौ तुमी भल्ली येतात बापा

ख़ता माफ तेंची करौ तु अऐ मौला
दोज़ख़ चे पासुन वरौ तु अऐ मौला
जनतेत तेंकां धरौ तु अऐ मौला
दुआ तुमका साम्मिंव करतात बापा
आटौ तुमी भल्ली येतात बापा

# शेज़ार

साम्माक दे बेहत्तर शेज़ार या इलाही
एक दुसरा कनी कर गुल्ज़ार या इलाही
तेन्चे जिवीन आमका आमचे जिवीन तेंकां
केत्तावं करु नाखा बेज़ार या इलाही
दे दर्द वल्खुपरीन सामकार या इलाही
साम्माक दे बेहत्तर शेज़ार या इलाही

ज़ापनी ती धाकली धाकली ज़ाली तरीन केत्तांव
तवफीक दे तु साम्मा इसरु परीन केत्तावं
शेज़ारो साम्मेकारा धरौ इशी तु हर्दम
एक घरची मानसापरीन ठेव इसपरीन केत्तावं
कर नाखा सायं आमची बाज़ार या इलाही
साम्माक दे बेहत्तर शेज़ार या इलाही

दुख दर्द व मुसीबत तकलीफो ग़म परेंशां
सुख चैन व मुसर्रत खोशी व दवरे जीशां
दिसरात फ़ाले मग़रीब कोनतोंव रहलान आलम
एक दुसराचे दर्दा धरौ तु आमका कोशां
दे इसपरीन आमका किरदार या इलाही
साम्माक दे बेहत्तर शेज़ार या इलाही

# पान्याची गाडी

आठौ पड़लो पलौन बैलाची गाड़ी
व्हतो में धाकलो व्हती धाकली वाड़ी
के मारगाची छात्येक करूक शीतल
येती व्हती सार्यींत पान्याची गाड़ी

ती गाडयेची बरकत ही रहाती व्हती
धूलेची हरकत त ज़ाती व्हती
उड़ती न्होती धूल कज़र काड़ी
येती व्हती सार्यींत पान्याची गाड़ी

तोंड मारगाचे व्हते खें काले
मेहफूज़ सायों वयों आनी काले
खें व्हती मारगार ही रिक्षा गाड़ी
येती व्हती सार्यींत पान्याची गाड़ी

च़वगुले गावांचे करुचे चिन्ता
के खुश रहावो हरदम गावांची जनता
व्हते तैं सच्चे न्होते लबाड़ी
येती व्हती सार्यींत पान्याची गाड़ी

बुरक़े दिगादीग आनी व्हती ख़ोल्ल्यो
जंपर दारै हिंगरूफ़ च़ोल्ल्यो
पोटे देखती न्होती नेसलान साडी
येती व्हती सार्यींत पान्याची गाडी

खोशेन व्हते भावशी म्हेल्यो व म्हेवन्यो
ज़ांवांची चाहत जीशी के भन्न्यो
घरची मानसांपरीन सामकार शेज़ारी
येती व्हती सार्यींत पान्याची गाड़ी

गेले खें ते दीस आनी तो ज़माना
वहू क़ीमतेच़ो व्हतो एक आना
तेत्ताची मानगी येत्ताची नाड़ी
येती व्हती सार्यींत पान्याची गाड़ी

शब्बीर हाड़लो खेंची ही गूड़ी
वलतात मानशे सोड्ता तू पूड़ी
ईशी सा ज़ापलान वलतात आनाड़ी
ये नाही येत्ता पान्याची गाड़ी

# रुबाब

गेलो रुबाब खें तो आनी हो पल पले तु
दोरी ज़लून गेली अज़ुन हो वल पले तु

नोखटे करुन कोनाचे, निक्क्याची आस किसली
करुन ज़रा भलाई दुनियेत फल पले तु

किसमत बदलता कामान अदग्त आशे ही पोरनी
उट रहा उबे व तुज़ो आज़मौन बल पले तु

पावतलो वैर आगर चिमखतनी वैर पल्लान
चिम्खता खाल जेत्तां ज़रा सकल पले तु

आपले आंगार उड़ौंचे चखलात फात्रे मारुन
वरुन वच़ुचे निक्के जे खें चखल पले तु

च़ुनात बुडुन कागलो ज़ावुचे नाही डोकी
आवाज़ो ढंग उड़ूच़ो हेजेत असल पले तु

नाचुन गेलो चेडुपन नीन्देत बुडुन जवानी
म्हातारपनात रड़ता हेजी अकल पले तु

शब्बीर शिखते शिखते शिखलो बरौंक बैतो
ज़ाली ही आज़ कीशी तुजी ग़ज़ल पले तु

# औशिची फरयाद

अय्मोजे जिगर गोशे अय्मोज़ो लाड़ तु
चैन व सुख दिलाच़ो तु डोलाच़ो उज़वाड़ तु

तुजेन मोजे जीने व्हते मोजेन तुजी ज़िंदगी
चाहत तुजी मोजे कनी ज़ाऊन व्हती बंदगी

कोनतिवं घड़ी सोड्रून माका केत्तावं तु रहातो न्होतो
नीन्देत टिकुन उठलान कौं आम्मी बलुन रड्तो व्हतो

रड्रूलान तु तुजे भितर डोले मोजे व्हाते व्हते
तूजे जीविन ते दिस मोजे ख़ोशेन बसर ज़ाते व्हते

घड्येत तुजेर आयलो शबाब लमहात तु ज़ालो जवां
तरनो तुका पलौन कवं चड़वाच़ो कच़ माका गुमा

झिरियो पड्रु लागली व्हती एक दोन मोजे गाला ऊपर
सरियो रूपा देखती व्हती थोकड़ी मोजे माथा ऊपर

लागले बलू बापा तुजे येत्ता आमी हाड़यावं सून
खोशे भितर हासतो व्हतो आपले मनात तुकौं आपुन

करुन देले परने तुजे भौ आरगोयेसरिन
साज़ुपरिन ज़ोड़ो व्हतो व्हक्कल व्हती परये परिन

मसरूर तैं राहते व्हते तेंचे सरिन मोजे कौं मन
घर आमचे देख़ले जिशी सूघड़ फुलाच़ो एक चमन

आल्लाह तुका देते गेलो ज़ाते गेलो तू रे धनी
म्हेल्ल्येचो तु ज़ाते गेलो दिसार दिस गेल्ले कनी

ज़ाले किशी लोकां परीन भावडे आनी भन्न्यो तुजी
भरले किशी तुजे भितर मांव आनी म्हेंवन्यो तुजी

ज़ापनात येऊन म्हेल्ल्येची तु वरौलो का वापाक हें
ज़ापुनाख़ात चडवां मोर्जी ताकीद करुन बरवता में

माई वापा हल्लु करु देख़ले तुका ज़ौजात का
इसरलो रे ज़ापने किशी आमचे अशे दरजात का

रडता रे में मोजे भितर आठौ करुन वचपन तुज़ो
डोलिन व्हाता करगुन दिल छात्येभितर ज़लता उज़ो

हर पल आशे मोजी दुआ घड्ले जे कायं मोजे ऊपर
येवंचे नाख़ा केत्तांव तो पल तिसली घड़ी तुजे ऊपर

# माडो

माडो घरे हो माडो आल्लाह देल्लो भाडो
बलतात पूतापरीन पोरसात रहाल्लो माडो

शाली व नाल खोपरी खाऊं पिऊंक ज़ाता
मड्लाचो माड कय्लान चा़ट्टी हेजेन ज़ाता

चम्बार डापु आनी पाटार ठेवुं कट्टी
घोटात बिजी करा मड्लाची एक तट्टी

सारवन ती काड्याची पोरसात घरात झाडा
कट्टेची डवली चाट्टु वाशाची बड़ी दाड़ा

सोण्णाची दोरी राज़ु आनी ते पायंपुसनें
लेपड्यो आनी ऊशी धुमसो तो येगु निसनें

पाताची खेलु पिपरी डोलाचो हरसो करा
उड्वा करुन तीरो माड़कुल्ल्यो बिजी धरा

रान्दवाड़ कासकामाची सोण्णे व पीडे चूली
धाकली चूली चापरगी कोन्नालगे व पवंली

बोंडाक काडियो लाऊन चड्वांची गुड़गुड़ी ती
कट्टेचो उज़ो चिलमत कोचिमा बड्बड़ी ती

खलकुंड्या नींवा घाला माड़ो पड़ीसाआड़ो
आनी करा पकाशे चीरुन एक माड़ो

सूर येऊंचे फूड़े माड़ाचो पीया नीरा
पोरसात आपले घरे या डाट्वा तो ईरा

ख़ुड्डी सुकुन झड़ता ज़ावून जेत्ता हेड़ी
व्हरतात पऊं शीखु चड्वें करुन ज़ोडी़

माडवली बोन्डे चुरी शाले व कत्तेकाई
हें नाल व बुरंडो तो गीर हाड़ली बाइ

# हिसाब

दोन दोन ज़ाता चार हिसाब
जिबेचे मुनार हिसाब
अकलेन पहेली अज़मव तु
मग कर आंगठ्यार हिसाब
इसरुनाखा यार हिसाब
दोन दोन ज़ाता चार हिसाब

गेलो चडुपन नाचुन उडुन
आनी जवानी नींदेत बुडुन
साम्मे पलौन म्हातारपन
हासील नाहीं येत्ता रडुन
फूडे व्हतो दरकार हिसाब
दोन दोन ज़ाता चार हिसाब

तूमी ज़ापले जे कांय दुसरा
आठौ हेज़ो नाखा इसरा
कोनीवं तुमका ज़ापले तेरीन
आपुन ज़ाऊन व्हट्टी पसरा
उलठो तु ना मार हिसाब
दोन दोन ज़ाता चार हिसाब

ज़ापने आशे ज़रा कोड
घेनु उसने भल्ली गोड
वापसंव हाथ फाथरा बुंदा
येत्ता ख़सलत तु ही सोड
एक दीस आशे भार हिसाब
दोन दोन ज़ाता चार हिसाब

ख़ुर्शेर साज़ता पढ्लान ख़ुरसो
मिलता इज़्ज़त आनी मुरसो
मागीर करा रहबरी
ज़ाउन कोमाचो हर्सो
ज़िंदगेचो हात्यार हिसाब
दोन दोन ज़ाता चार हिसाब

इसर तुं ऐहसान करुन
मरू फुडे रहा तु मरुन
ऐहसान तूजेवर दुसरांचो
जी तुं हें आठवात धरुन
करेत बेड़ा पार हिसाब
दोन दोन ज़ाता चार हिसाब

आठव ठेव हें ज़ापने यार
आशे जिउंचें दीस चार
कर मन मानी या नेकी
वरौ कोनाक या तु मार
बरवतात ख़ांदार हिसाब
दोन दोन ज़ाता चार हिसाब

लागली दिला हि तहरीर
ज़ाली आशे ऐक तक़सीर
दुसरांक सांगुं फूडे तु
सुधर ज़रा ऐ शब्बीर
सांगुक हो ससार हिसाब
दोन दोन ज़ाता चार हिसाब

# मोजे जिगर

निन्नी तु कर मोजे जिगर दकन तुकर निन्नी
सूर निकलो दीस गेलो ज़रा पले मुन्नी
रात आयली ज़ांद घेनुन आपलेसरी ज़ान्नी
निन्नी तु कर मोजे जिगर दकन तुकर निन्नी

ज़ांद आनी चान्याचे तु ज़रा पले तरले
मोडि भितर निकुन निकुन खेलतात पले धरले
मोड़ पले चांदा तोंडार पड़ली ज़ावून वड़न्नी
निन्नी तु कर म्हजे जिगर दकन तुकर निन्नी

निज़गे तुकौं निज़ली पले, पले सगली सायं
उज़वेकूशी भवुन मुड्चौ ज़रा तूजे पायं
जीउं कनी शीखु काज़गे साहु भली माड़्णी
निन्नी तु कर मोजे जिगर दकन तुकर निन्नी

फावंसय तूजे डोले उसतेच ज़ातलोगे सकन
डोले डापुन निन्नी तुकर ज़रा दकन दकन
पले अयली, अयली पले डोलात तुजे निन्नी
निन्नी तु कर मोजे जिगर दकन तुकर निन्नी

हल्लु हल्लु वाड्ते वाड्ते वाड्तली तु चड़ु
खांदा ऊपर पोसतान घालुन वतली तु पढ़ु
पढ़ुन शिखुन ज़ातली तु भल्ली शानी सैनी
निन्नी तुकर म्हजे जिगर दकन तुकर निन्नी

# ज़ांद आनी सूर

तु ज़ांद तु, तु सूर तु
तु मोजे डोलाचो नूर तु

जीविन तुजे राहत अशे
उलफत आनी चाहत अशे
सुख चैअन तु देलो माका
खोशेची हर सा, अत अशे
कैलोरे ग़म मोज़ो दूर तु
तु ज़ांद तु, तु सूर तु

पढुन शिखुन ज़ाउन भलो
निक्क्या सरीन तु वाड़तलो
करनी भली साहु करुन
दुनिया रे ही तु जिकतलो
ज़ातलो भल्ली रे मशहूर तु
तु ज़ांद तु, तु सूर तु
तु मोजे डोलज़ो नूर तु

डोले तुजे शाने अशे
तवर तुज़ो बेने अशे
दिल वो जिगर तु जु मोजो
तुजेन मोजे जीने अशे
कयलो रे माकाक मसरूर तु
तु ज़ांद तु, तु सूर तु

# फोन फोन अयलो फोन

ट्रीन ट्रीन ट्रीन फोन अयलो फोन
हलो मे उमामा तूमी कोन
मे ज़ापुचे सीमा अयली येत्ता जौन
मनात मोजे आयले करुं तुका फोन

शीत आमचे घरे रांधले सुरै तांदूलाचे
सरी आंबठ लूख्रा व्हते कौंले नाल्लाचे
चाखुचा भितर व्हते आरगोयेचे लोन
ट्रीन ट्रीन ट्रीन फोन आयलो फोन

चूली ऊपर ठेउन लोनमिरयाची तल्ली
म्हावरे हाडु फेठवली शेजे घरची धाकल्ली
म्हावरे धाक्ल्लाचे उड़ौन व्हयली घोन
ट्रीन ट्रीन ट्रीन फोन आयलो फोन

अऐक ज़रा फूड़े आगे उमामा शानी
पावस पडुन काल सार्यींत भरले पानी
माड़ये येटले पान्यात मानशे अयले पवन
ट्रीन ट्रीन ट्रीन फोन आयलो फोन

वड्ले घरे व्हती काल घर भरवनी
पठ्ठा व्हालीत अयली धाकली शि इरौनी
सामाने सा व्हय्ले मान्शे कुठ्ठा खौन
ट्रीन ट्रीन ट्रीन फोन आयलो फोन

हे उमामा शानी सुघड़ तूजी ज़ापनी
जोशि संता बाज़ारात आंबठ गोड चापनी
ठेव्ता में रिसीवर बन्द कर तु फोन
ट्रीन ट्रीन ट्रीन फोन आयलो फोन

# घड्याल

टिक्टिक टिक्टिक टिक्टिक टिक्टिक पले करता घड्याल
टिक्टिक हेका वलखुनाखा वख़्ताची ही चाल
फांवसै ज़ाता आज़ आनी आज़ ज़ाता काल
टिक्टिक टिक्टिक टिक्टिक टिक्टिक पले करता घड्याल

घड्याल पले सांगता गेलान एक एक घड़ी
ज़ाया जीशि सरपूली जोडुन एक एक क़डी
वक्ता जे कोन वलखता तोक़च करता कमाल
टिक्टिक टिक्टिक टिक्टिक टिक्टिक पले करता घड्याल

कदर करा घ्डयेची घडयो आशे कम
कोनती घ्ड़ैत उड्तलो कले नाहीं दम
आज़ कच करा जे कांय आज़मौन व्हते काल
टिक्टिक टिक्टिक टिक्टिक टिक्टिक पले करता घड्याल

बारा घंटा पला कीशी माथो उखलुन
सवाय नव्वा पावने तीना देता हाथे पसरुन
साड़े सव्वा करता बावड़ो माथो ख़ाल
टिक्टिक टिक्टिक टिक्टिक टिक्टिक पले करता घड्याल

काठे घ्ड्यालाचे सांगता पले काहिनी
वलखाज़रात घेना ज़रा हेजी ज़ापनी
काटे धुंवते धुंवते आयां करता हाल
टिक्टिक टिक्टिक टिक्टिक टिक्टिक पले करता घड्याल

वतनी ऊपर आपुन बैसुन रहाता बगी
आनी ज़ोखते रहाता जिंदगेची दीगी
शब्बीर जीउं शिखतुं ज़रा पलोन घ्ड्याल
टिक्टिक टिक्टिक टिक्टिक टिक्टिक पले करता घड्याल

# टपाल

टपाल आयलो टपाल, टपाल आयलो टपाल
दुबै मुंबैची काग़जे घेवुन आयलो टपाल
लोखटा भितर भरुन दुख सुखा़चो हाल
टपाल आयलो टपाल, टपाल आयलो टपाल

शेजे घरे बेज़ार वाटेत कागज़ नातुन
साम्मे घरे नाच़तात पले कागज़ वा़चुन
पला आपली आपली किस्मते़चो कमाल
टपाल आयलो टपाल, टपाल आयलो टपाल

चार वरशे ज़ाली व़चुन तीजे तैन
फिकरेत करगुन गेली बावड़ी कोच्ची भैन
कागज़ नाही आयकुन घुंवता तिजे कपाल
टपाल आयलो टपाल, टपाल आयलो टपाल

गेल्ले वरसा पावनो रहातो न्होतो किशात
बंगलो किशी ऊबे रहालो थोकड़े दिसात
पूत धाकलिमा़चो गेल्लो कालिचे काल
टपाल आयलो टपाल, टपाल आयलो टपाल

शब्बीर हरकत नाहीं बरऔं शिखलो बैतो
मारलो भ्हल्ली ज़ाना हाथात नातुन कोयतो
तलवार धरु फूड़े धरु शिख तु ढाल
टपाल आयलो टपाल, टपाल आयलो टपाल

# पानी

आगसा वयलान पले किशी पड़ता पानी
बांवों तले न्हयों साहु भरता पानी

पानी पानी बलुन आमी मांगु वतावं
जेत्ता बावों सुकुन पावता तलता पानी

ख़रचु फूडे ज़रा आज़मौगे तु साहेबीन
कमौ कनि साहेब रखत करता पानी

फरक़ नाही काययुं दुखात आनी सुखात
दोनिउ वक़्तार डोलातलान व्हाता पानी

उखलु किशी सकेत मानुस आपलो माथो
माथा पासुन ऊपर जेत्ता पावता पानी

बैसुनाखत हिम्मत हारुन केत्तावंतुमी
ऊम्मिदेवर तुमची आगर पडता पानी

देखे नाहीं तेका कांययों निक्के नोखठे
शरम हाया जेत्ता तेजी ज़ाता पानी

कोपुन कोना सरीन मिल्लान मिल्तु ईशी
जीशी पान्न्या भितर वचुन मिलता पानी

चाहत पान्न्यापरीन हेकाक नाहीं वाटे
बड़ी तरीन बड़ी पानी रहाता पानी

नादनाक दाना ज़ापनी सांगु नाखा
खेका वोमते कलशा ऊपर घालता पानी

ज़ानुन वाटें नसनस तुकायं ज़ापु नाखा
आशे तुजेत केटले माका कलता पानी

येत्ता तरीन सुधर ज़रा शब्बीर तु
माथा वयलान पायांर मोजे येता पानी

# माती

बियें सरशी सरशेक झाड़ करुचे माती
फुला परमल मेतयेक रंग देंऊंचे माती

बांवों तले पान्न्यान भरुन रहाता हरदम
पानी आपली झिर्यातलान हाड्चे माती

अमल करुन रहाया सुज़ानाची ज़ापनावर
निक्के न्होइ तेंचे नांवार घालुचे माती

कोनकोनाची वाटेवर आमी घाठ्लान फाथर
लाज़ीम आशे ऐकडाय अमका खांऊचे माती

ना, मत मिलता कय्लान मेहनत ज़ापने हें साम्मीवं ज़ाने
ख़यलात धरुन कयलान सुसती मिलुचे माती

खेका हिरीस तुका येटली दुन्येची ही
ना, मतो सा मात्येंन, ज़ाउन, जांवुचे माती

शब्बीर दुन्येत उड़लान उड़शी केटली ऊच
इसरुनाखा ऐकदीस आशे ज़ाऊचे माती

# चार दीस

धर आठौ तु ज़िन्दगी ही चार दीस
कर हिंगा तु मोज मसती चार दीस

हाथाची माती ही दौलत येता वता
खेका उड़ता सुखची भरती चार दीस

सांगु नाखा दुख तुज़ो मानसांकड़े
धीरे धर तु दुखची सुकती चार दीस

धन जवानी नावं सुगडै दुन्या भितर
रहावंचे ज़ाऊन तूजी आसती चार दीस

कर भले तु दुसराचे कौं ज़रा
ऊठ उबे रहा सोड सुसती चार दीस

सुख आशे हो दुखचे पाठीर दीस रात
येता राहत बस ही सख़ती चार दीस

कीशी जीता मौत इसरुन शब्बीर तु
जिंवचे आशे बीजी नुसती चार दीस

# दुन्या

पले दुन्या पले दुन्या
आजब रे ही आशे दुन्या

तु मस्तवलो तरीन हिका
बिजी येवुन मिले दुन्या

आनी धांवलान हिजे पाठीर
धरुन आमकां पिले दुन्या

कोनाकडचान वता धाऊन
आनी कोनाक मिले दुन्या

कोनाची ही जाली तरीन
पले कीशी जले दुन्या

हिंगा भिऊन भिऊन जीलान
घेनुन रगडुन मले दुन्या

करुन हिम्मत उबे राहलन
तुजे पाठीर लोले दुन्या

तु जन्नत दे अऐ रब लाज़ीम
के दे नादे भले दुन्या

आशे तरीन किशे भरुन
जे तु बलता बले दुन्या

# व्हट्टी

सुखचेयन व मोहब्बत मसकन अशे ही व्हट्टी
आसाइशो जहांची आवशिची आशे व्हट्टी
व्होट्टी आशे ही सम्मान मेहफ़ूज़ ऐक ठिकाना
आन्धार रात दुन्या सक्कन आशे ही व्हट्टी

हर पाठ जीवनाचो व्हट्टेत पहली मिलता
करता नक़ल ते चडु जे कायं सुज़ान करता
माहोल घरचो अक्सर चेडवात हाडता व्हट्टी
सुखचेयन व मोहब्बत मसकन आशे ही व्हट्टी

व्हट्टी शिखौत ज़ापु माइचि भास चड्वा
मारुन आपलि नफशे भरौत घास चड्वा
चिम्खु शिखौता पले धरुन किशि अंगट्टी
सुखचेयन व मोहब्बत मसकन आशे ही व्हट्टी

व्हट्टेत ज़ाता चडु कज़र आनी हो कुडो
चडवाक करता व्हट्टी मोती व जीशि पूडो
व्हट्टेची तरबियत ही मानुस पलता हट्टी
सुखचेयन व मोहब्बत मसकन आशे ही व्हट्टी

# फाथर

पलौंक आदना ज़रा हो फाथर
मिज़्गती व घरा हो फाथर

ज़मरुद याक़ुत आनि रूबी
मंगल व मरजां हीरो कौं फाथर

उच़ उच़ अपली वन्तो येगवंक
पायात लाज़ीम भरा हो फाथर

माड़ाचे कट्टा तला व बार्वी
पोरसाचे भितर पागरा हो फातर

मिलुन राहयांव येक जावुन
जिशी के वनतीत फाथरा हो फाथर

हारशाचे घरा भितर तु बयसुन
मारुनाखा दुसरा हो फाथर

मारुन तुमका धांवलान कोनीव
तान्दुन तेका मारा हो फाथर

फाथरान आपले मनाक चेसुन
शयतानाक मारुक व्हरा हो फाथर

कोनकोनाच़ो पतंग तांदु
बांदुनाखा तु दोरा हो फाथर

वागरनी तापौन दे फाथराची
झरओंक वसते धरा हो फाथर

वरंटो पाटो हो फाथराचो
शिंघार देता घरा हो फाथर

फाथर हो नोहीं जीउंचे पुरते
ढापुक कबरेक भरा हो फाथर

# रंग

मोखा पले रंग, फूला पले रंग
झाडाक येली सरश्या पले रंग

केली व केलवा दाड़ा पले रंग
बेतिच़ो आनी वाशा पले रंग

ही काठी ऊज़ो इंगल भसम हो
वच़ुन कीशी येता पले रंग

रवून बियंव फल फूल पाती
देता ही माती का सा पले रंग

ही मोर ढोकी कुपियो व आवने
चिड्या कुकड्या मैना पले रंग

खून मोठ दुतरो कंवठ पला हें
मिलून बेने राहता पले रंग

रंगात रंग हो हें पान्याच़ो
रंगात मिल्लान ज़ाता पले रंग

ही मोढ च़ान्यों चान्दाक पले
हो माड पावसा देता पले रंग

बलतात दुन्या ही रंग बिरंगी
हर चीजे आपलो रहाता पले रंग

सम्मान आजब में जे रंग पल्लों
मान्सांचो कीशी भोंवता पले रंग

शब्बीर मान्शे तुकाक बलतात
बदलुन तुकों जीता पले रंग

# क़लम

करेत सुरखरु क़लम
दे येत आबरु कलम
कलेत तुका आगर हिंगा
ज़रा हें वापरु कलम
करेत सुरखरु क़लम

वापर हो हाथ्यार तु
पलवन हेजी धार तु
करु हेजेन वार तु
व्हरुन रुबरु कलम
करेत सुरख़रु क़लम

रीत व रिवाज कवं
पले बदलता राज कवं
दिलौता तख्तो ताज कवं
शिख ज़रा धरु क़लम
करेत सुरखरु क़लम

बरव तु साहु इलमोफन
कमवता नांव माल व धन
क़लम करवता एक पन
सकता सा करु क़लम
करेत सुरख़रु क़लम

क़लम ग़लत हाथाभितर
अशान्तता ओ फ़ितना शर
उजड्त मुल्क गावं घर
खेका हें का करु कलम
शिखा सही धरु क़लम
करैत सुरख़ु क़लम

खमौतां में माथो मोज़ो
शुक्र रब अशे तुज़ो
क़लम धरु शिखौन तु
ऊज़वाड दे नाखा ऊज़ो
ऊजा पासुन वरू क़लम
करैत सुरख़रू क़लम

# बस

सफरचो आसरा हो बस
आजीब माजरा हो बस
जवान का इज़ान का
व्हरता म्हातरा हो बस

सुठवता पले गांव कौं
दिलवता मालो नांव कौं
ज़डवता हो सुठल्लें दिल
मिलवता बस तुठल्ले दिल

सम्मा आपले करुन हो
व्हरता पले भरुन हो
हलके ऊचे बले नाही
निक्के नोखठे पले नाही

हरदिस सफरची खोज वा
माथार घेनुन बोझ वा
वता हो बस येता पले
मारगा ऊपर धांवता पले

धूल कौं उड़ौन बिजी
जुदा करुन रडौन बिजी
घुंवड्ता आनी घुंवता बस
भंवड्ता आनी भौंता बस

मिलवता घर धराना बस
शब्बीर तूजो तराना बस

# कलता - वा

जे कांय माका कलता-वा
ज़ापने तेकच बलता-वा
जे कोन भिउन जीता - वा
　　　　जीते जीविन मरता-वा
　　　　जे कांय माका कलता-वा

पुक्को ज़ावुन जीलान भावु
हिंगा भिवुन रहालान भावु
भ्हल्ली निक्को ज़ालान भावु
　　　　इसलाक ज़ातात दलता-वा
　　　　जे कांय माका कलता-वा

हिम्मत करुन ज़ापु शीखा
डोलात डोले घालु शीखा
तुमका तांदूलान तांदु शीखा
　　　　बीजी कोन का करता-वा
　　　　जे कांय माका कलता-वा

चाला सुज़ानाची मानुन
शीखुन कायदो व कानून
रहाया तुमी हें ज़ानुन
　　　　इसलाक इज्ज़त मिलता-वा
　　　　जे कांय माका मिलता-वा

# ज़ापनी

ज़ापनान मिलता ख़ोशी करता बेज़ार ज़ापनी
तासीम आपली सोड़ता मानसा दिलार ज़ापनी

ज़ापल्ले एक ज़ापने तोड़ता दिलाक ईशी
ज़ोड्डुचे बीजी मुशकिल ज़ापा हजार जापनी

गिरसल मिरी ही ज़ापनी ज़ापलान खोसता काटे
शिखले तरीन ज़ापु फुलाचो हार ज़ापनी

ज़ापुन ज़ापनी ज़ाता बुन्याद दुश्मनीची
मानसा दिलात घालता मानसाचो प्यार ज़ापनी

ज़ापनाची आशे कीमत ज़ापले तरीन बरव़क्त
बेव़क्त ज़ापनी ज़ापुन ज़ाता बेकार ज़ापनी

आज़मवता खेका ज़ापुन आजमव तु ज़ापु फूढ़े
मानसाकड़े ही करता हाल्ल व भार ज़ापनी

ज़ापनी आशे ही जीशी हाथ्यार ही जिबेचो
आकलेत व्हरुन हाडा जीबे मुनार ज़ापनी

हिम्मत तुजेत आसलन येउन साम्मे ज़ाप तु
कमज़रफ खेका जपता दुसरा तोंडार ज़ापनी

ज़ापनी दाखड्ता आशे केटलो वज़न कोनाचो
इज़हार करता कोनतो तुज़ो मयार ज़ापनी

करनाखा राय क़ायाम येकलाची ज़ापनी आयकुन
आयकुन घेन तु अव्वल दोगांची चार ज़ापनी

ज़ापल्ले आमचे ऐक ऐक ज़ापने तुकुन वतले
शब्बीर वल्खुनाखा ज़ापु ससार ज़ापनी

# चिंदयाचे गोम्बे

चिंदयाचे गोम्बे परनाचो खेल
व्हक्कल व्हरैताचो व्हतो तो मेल
आपौने चड्वांचे पलौं परीन
झुटमूट भाडे ते तेजे सरीन
　　　　व्हकलेची गाड़ी पिड़ाचो बैल
　　　　चिंदयाचे गोम्बे परनाचो खेल

वड़नेची घड्येर व्हक्कल पले
पालौ ती व्हकलेचो सक्कल पले
मनै ती भौन्यो उशाचो लोट
व्हरैताचे घरे ती गलबल पले
　　　　व्हकलेचे माथार फुलाचे तेल
　　　　चिंदयाचे गोम्बे परनाचो खेल

दरयाची जीबो शिप्यो खुलो
खेलुची कोड्यो मात्ये चुलो
तुटल्ली कड्वल्याची सरपुल्ल्यो ती
धानाचे बोडार तो खिलखीलो
　　　　पिलकुट्यो नाखुरयो फुलाची येल
　　　　चिंदयाचे गोम्बे परनाचो खेल

मडलाची पिपरी येंडाचो तेर
पाताचो हरसो तो डोलाचे वैर
चक्कर सवारी व बडी लगाम
तोकच व्हतो धन व दौलत्चो ढेर
　　　　लाय्नेत धांउंचे करून रैल
　　　　चिंदयाचे गोम्बे परनाचो खेल

अंबुल्ल्यो आंबट्यो चिंचाचो पोर
दुसरांचि झाड़ार चड़वांचो जोर
गोपिन्र्यो फाथरे हाथियार तो
रेवेंची पूड़ी सार्यीत शोर
　　　　सुटलान बचपन दुन्या ही ज़ैल
　　　　चिंदयाचे गोंबे परनाचो खेल

# दूड़

दूड़ दूड़ दूड़ दूड़
हाथात असलान मारवार ऊड़
नातलान वचुन बावींत बूड़
दूड़ दूड़ दूड़ दूड़

खाली तूजे आसलान हाथ
देउचे नाही कोनीव साथ
दूड़ नातलान हिरदय पूड
दूड़ दूड़ दूड़ दूड़

दूडा जीविन ज़ाता क़दर
दूडाशिवाय मानुस कज़र
मानुस जीशी फाथरा पूड
दूड़ दूड़ दूड़ दूड़

दलिनदरी आशे तरीन
मिल्तात बिल्कुल ग़ैरा परीन
बगलाचे कौं ज़ातात दूर
दूड़ दूड़ दूड़ दूड़

दूड़ा करतात खाज़ीन सदर
खांदार ऊखलुन देतात आदर
नातलान धरू लावतात कूड
दूड़ दूड़ दूड़ दूड़

खें-रे भाऊ देता भाषन
ज़ापुक हींगा लागता राशन
शब्वीर तु ज़ाप आसलन दूड़
नातलान तूजी हाशीर गूड़

# चड़वें

चड्वें ईशी घरा भितर
फूले जीशी बाघा भितर
चैन व सुख उलफत ख़ोशी
चडवान येता दीला भितर
आस जिऊची डोला भितर
चडवें ईशी घरा भितर

चडवें घरात रहालान ईशी
राहत मिलता आनी खोशी
गुड्सल ज़ावो मात्येचे घर
ते घर देखता जन्नत जीशी
वरशे सरता लामहा भितर
चड्वें ईशी घरा भितर

गोड गोड ज़ापनी सरे नाही
आयकुन हें मन भरे नाही
मसती गम्मत तमाशा
कोन ते दीला धरे नाही
मैराज आशेही दुन्या भितर
चड्वें इशी घरा भितर

घरें रहालान चड़वांन ख़ाली
बंगलो बिल्डिंग महल आली
मानशे आसुन ख़ाली ते घर
ना ख़ोशी ना ख़ुशःहाली
दौलत व धन हाथा भितर
चडवें ईशी घरा भितर

मालीक आता कयलो तरीन
भरा इल्म व आक्ले सरीन
वाडूउस हेंची करा ईशी
मुकती मिलों चड्वां जीविन
फल्हा दीन व दुन्या भितर
चड्वें ईशी घरा भितर

# घरची कुंकड़

जापने ख़ैलात धाल बराबर
घरची कुंकड़ दाल बराबर

बाप कमायी पूता कड़े
चिंदियो चादर शाल बराबर

आपुन कमोन हाड़्लन कलता
कीशी सरता माल बराबर

आरो नीरो बावड़ो गेलो
चिमखुन ज़ालुन काल बराबर

फुर्सत न्होती सलामेची
जेत्ता व्हतो हाल बराबर

ऊप्पर पल्लान पावतात वैर
चीमख पलौन खाल बराबर

शब्बीर तूजी ज़ापनी ईशी
गिरसल मीरी ज़ाल बराबर

# मां

जेत्तां जे खें पलतां में देखता बावडुन बावडुन मां
वसरा दारार इन्ध्या पटिर वाट मोजि राखुन मां
इस्कुल सुटुन में आयलान पोस्तान मोज़ो घेनुन मां

हाथपायं मोजे तु धुउन वट्येत खाउं देउन मां
जेत्तां जेखें पलतां में देखता बावडुन बावडुन मां

दुन्या भीतर साम्मान भल्ली तु क़च़ ऐ मां मोगाची
अठव पडता हरऐक घडी घड्यो तुजे लाडाची
ईसरु सकलो नाहीं अज़ुन लज़्ज़्त तुजे घासाची

डावे हाथीन माथो धरुन उज़वे हाथीन भरवन मां
जेत्तां जेखें पलतां में देखता बावडुन बावडुन मां

रोग लागुन में पड्लान मोजे सरीन ज़ागुचे
ठावार मुतल्ली चादरे आपले हाथीन धुउंचे
आंग धुउं न्हान्ये भीतर रट्टो तान्दुते व्हरुचे

डोले शाबुनान ज़ल्लान दरदान पानी घालुन मां
जेत्तां जेखें पलतां में देखता बावडुन बावडुन मां

खल्फ़ीन्येरे वचुचे धरुन तुजी आंगट्टी
भायले पोरसात झड्ल्ली कुड़ता किशात अम्बट्टी
गाटो घालुन नेसुचे फ़ाटली तरीन अन्गुट्टी

गुन्डी कुड्ताची तुट्लान सुवेत काकडो पऊन मां
जेत्तां जेखें पलतां में देखता बावडुन बावडुन मां

तेला कुप्पी हर्सो फ़नि चिप्पुट रबर व काटो
माड्ये ऊपर माथो घेनुन काडुचे मां तु झाटो
करुन दोन्दोन चीम्खुट्यो रिब्बनाची ती गाठो

आमका शिंघरौंची ख़ोशी चिन्ता आपली सोडुन मां
जेत्तां जेखें पलतां में देखता बावडुन बावडुन मां

# आज़

धाकलोशी हो वलखुन राज़
दुन्येत ईशी जिवुं काज़
फांवसैची ता, मीर करु
आज़कच़ येत्ता आज़मवं काज़
मिल्लान घेनुन खेंचान कौंव
शिख तु जिउंचो अन्दाज़

वक़्त हो सरता थौपे नातुन
घावंता डोले ढापे नातुन
वक़ता धरतु सरु फूडे
गवजी मुरयो घाले नातुन
वकता खरचु वलखु काज़
शिख तु जिउंचो अन्दाज़

आज़मौ इसली आज़मौनी
भ्हवंडौ तुफां इरौनी
आपले हाथीन बरौ तु
नसीबाची बरौनी
मरुन ज़िन्दा रहाऊं काज़
शिख तु जिवुंचो अन्दाज़

आज़ हो फांवसय येंवचे नाहीं
बाव्ड़ुन बीजी मिलुचे नाहीं
नवान मवका मिल्लान कंव
दौर तुज़ो तो रहावंचे नाहीं
वक्ता वल्खुन च़ालु काज़
शिख तु जिवुंचो अन्दाज़

वक्त तो गेल्लो गेलो इसर
मौका आसलान कर तु आवसर
काम अमर कांय करु कनी
मरु फूडे जीता सर
कर्तु हिम्मत सोडुन लाज़
शिख तु जिवुंचो अन्दाज़

# वाट

येता खेंचान खेंसर वचुन सरता वाट
देखुन जानुन सगली कोना कलता वाट

थकतांव मारवार पान्यार पायवाट सफर करुन
केत्तावं केत्तावं नाही मगर थकता वाट

मानुस मिशिन जनावरे सरुन वतात साहु
सरतात सार्म्मीव, अरे नाहीं सरता वाट

आड्वाट जाले तरीन वाटे ऊपर कोनीवं
ऐकदीस तोकच पले कीशी धरता वाट

बरकत आशे कयलान हरकत दुन्ये भितर
हरकत कयले तरीन पले मिलता वाट

वाटे ऊपर बैसु नाखा हिम्मत हारुन
धीर सोड्लान  व्हरुन बगी लावता वाट

नांव सोड्तात बाकी मानशे दुन्या भितर
खीजर जावुन जे कोन सम्मा सांगता वाट

शब्बीर थोपु नाखा आयकुन जापनी पोल
फूडे बड़ तू मन्ज़ील तुजी राखता वाट

# मौत

मरु शीखा तुमी ज़रा मरु फुड़े
जिवु धड़ातलो तुमचे ऊडु फुड़े
तुमचे आपले आनी गांवमानशे मिलुन
खांदाऊपर धरुन तुमका व्हरु फुड़े
फोंडा भितर घालुन माती भरु फुडे
मरु शीखा तुमी ज़रा मरु फुड़े

मौत बरहक आशे येतलो एकदीस तो
आस्सी पले नाहीं साठ या वीस तो
खौफ़ मौताचो जे कोनी करे नाही
वल्खा तेजे सरीन वाटे इबलीस तो
अज़राईल येउन तुमका धरु फुडे
मरु शीखा तुमी ज़रा मरु फुडे

चार दिसाची ही दुन्या फानी अशे
सुज़ान इज़ान का, का जवानी अशे
जिवंचे बाक़ी तूजे केटले दुन्ये भितर
जेटलो नस्बा ऊपर दानो पानी अशे
ज़रा तय्यार रहा दीस सरु फुडे
मरु शीखा तुमी ज़रा मरु फुडे

मव्ता इसरुन तु वाटे मसरूर का
चार पावना ऊपर येटलो मघरूर का
धन व शोहरत तुजी कामा येंवचे नाहीं
आशे व्हरु परीन रब्बा हुज़ूर का
गवर कर तु जरा तुका धरु फुडे
मरु शीखा तुमी ज़रा मरु फुडे

ज़रा हिसाब तु तुजी तक़सीर कर
मागीर दुसरांक तु वाज़ो तक़रीर कर
तुज़ो माथो खमौ आपली करनी ऊपर
तवबा रब्बा कडे ऐत्ता शब्बीर कर
हणेबरप तुजे साम्मे करु फुडे
मरु शीखा तुमी जरा मरु फुडे

# तट्टी

बसराचे दाराक डौन्यार तट्टी
वाशाची डब्बाची जोडुन पट्टी
ही अद्नाशी तट्टी मोहफीज़ घराची
व्हती अहल-ऐ-इमां चो शाआर तट्टी
आबुल्ल्याचे परदाचो आधार तट्टी
बसराचे दाराक डौन्यार तट्टी

लाम्हा तो ग़म्माचो जालान मरने
आनी वक़्त खोशेचो रहालान परने
आजब व्हतो गेलो तो एक ज़माना
वल्खुचे गावांचे सुज़ान तरने
गुडुन रहालान दारार तट्टी
वसराचे दाराक डौन्यार तट्टी

मकरगी ती नाल्लाची आयलान घरे
ते काट्येचे मूले व चाक्काचे भरे
व्हरूचे उखलुन काट्येची कोलतो
नाज़ूक हाथावर पडुचे बरे
अरधी ती उखलुन रहाउंचे तट्टी
वसराचे दाराक डौन्यार तट्टी

मरवट व डवन्यार टेकुचे फ़ले
देखुचे नाहीं हें कसकट तु पले
रहाली खें बाक़ी ती कोनर्तीव निशानी
न निवाची हरनी न हरनेचे नले
न धुमसो तो रहालो न धुमशात कट्टी
वसराचे दाराक डौन्यार तट्टी

धाकलिशी मन्येर तट्टेचे त्यारी
बैसुन आता व मावशी ती प्यारी
कोडुदरे कोडु नातलान होगु
न कन्नड ती त्यारी न नायती ही ह्यारी
मगर व्हती लाडान भरुन व्हट्टी
वसराचे दाराक डौन्यार तट्टी

हया नंग तट्टेचे ते पार व्हती
बुरकाचे जीबो खें माथार व्हती
आटवरन्यो गांवाची घरात नीकुन
आबुल्ल्यो इशी खें ही मारगार व्हती
शब्बीर वरुन रहाली न मट्टी
भावर तु सोधता दारार तट्टी?

# बापा तुमी दक्कन या

बापा तुमी दक्कन या ज़ावुं फुडे सकन या
गेले खेका बापा तुमी आमका सोडुन
ऐकलेपना वसान नाता आमचो ज़ोडुन
तुमचे अठ्वा शिवाय फिक्रो दुसरी नाही

तुमची चिंता भितर रहातांव आमी बुडुन
बापा तुमी दक्कन या ज़ावुं फुडे सकन या
व्हाता दूखे ज़ावुन तुमचे आटवाचे मोती
उज़वाड देखे नाहीं ज़लु ज़लता वाती
हवा आनी मारु चलता ऊजा परीन

परमल नाही हुम्लान फूले आनी शवंती
बापा तुमी दक्कन या ज़ावुं फुडे सकन या
आयका औंदु गेली कीशी छुट्टी अमची
खवर मीले नातुन तूमी गावांत येवंची
खेला माडा भितर दीस सरले नाही

तूमी नातुन फिकिर न्होती खावंची जवंची
बापा तुमी दक्कन या ज़ावुं फुडे सकन या
आम्मी तुमचे आठवीन नीकुन नीकुन रडता
नींद नातुन डोला देखवा माचार पडता
आनी आयका बापा मुन्ना अरधी राती

नांव तुमचे घेनुन नींदेत वड्वडता
बापा तुमी दक्कन या ज़ावुं फुडे सकन या
आयकुन चडवांची गीदो डोले मोजे कौं व्हाता
गलो सोडुन रडुं दीला ईशी ज़ाता
काग़ज़ान फोनान येत्ता हें मन भरे नाही

तुमी यवंची आशेन फ़ाले माग़रिव ज़ाता
ज़रा तुमी दक्कन या, ज़ाउं फुडे सकन या

# काग़ज़ाची सम्कु

घरे काल चडु रडल्ले में पल्लों
काग़ज़ाची सम्कु करुन देलों
पल्लों जिशी में ती काग़ज़ाची समकु
खैलाचे दरयात बुडुन गेलों
व्हतो साम्मे बचपन न्होती जवानी
ती काग़ज़ाची सम्कु ते पावसाचे पानी

सायिंची साम्मान पी पोरनी निशानी
ती पट्टाची व्हालीत पावसाचे पानी
सोडुन चड्वें पद्धुंचे बरौंचे
तें पावसाचे पान्यांत जब्बे गरौंचे
ती धाकलिशी व्हाली न्हयिंची रवानी
ती कागज़ाची साम्कु ते पावसाचे पानी

मन्ज़र तो बाक़ी डोलात आज़ून
सायिंचो तलो पावसात भरुन
आंगुट्येचे फुगे व नाल्लाची हेडी
पवुं शिखुचे ते हाथे धरुन
रहालो तो तलो, न तलात पानी
ती काग़ज़ाची सम्कु ते पावसाचे पानी

निवाची निवल्यो पान्याची दोरी
तो गूड्गूडो व ईज़ेची ज़ोरी
भिऊन अवशिचे चादरात भरुचे
थापडुन चडवांक अयकौंचे लोरी
ती उम्र व्हती केटली सुहानी
ती काग़ज़ाची सम्कु ते पावसाचे पानी

पावसाची रातो पाखरात वाती
आलवाचे पानार पान्याचो मोती
ते पहले पावसाक मात्येचो परमल
जिशी कस्तमोगरी ज़ाई व शवंती
तो माड रंगीन पावसा निशानी
ती काग़ज़ाची सम्कु ते पावसाचे पानी

ताडाची सातुली गेली ती मोडुन
काग़ज़ाची सम्कु ती निवल्यात बुडुन
पावसात चाल्लो इशी एक मारु
शब्बीर बचपन गेलो तो उडुन
बाक़ी न रहाऊंची ही जिंदगानी
न काग़ज़ाची सम्कु न पावसाचे पानी

# फररास

कोनतोवं नातुन नाता तेजेन दिलाचे तो पास व्हतो
जेत्ता व्हते गावं धाकले एक्पनच़ो ऐहसास व्हतो
फ़रराास जिशी आमची जमाअतेचि भास व्हतो
फूडे वड़ली मिदगती गावांत एक फरराास व्हतो
कोनतोंव नातुन नाता तेजेन दिलाचे तो पास व्हतो

आज़ राती वडली मिदगति जमाअतेचो जलसा अशे
वड़ले धाकले सम्मिव येवं काज़ आपवनें हर मानसा अशे
ईशा नावाज़ जाल्ले तीशी जलसा नवं पांचा अशे
साम्मीवं आयकु परीन गलो तेका कच़ तो रास व्हतो
फूडे वड्ली मिदगती गावांत एक फरराास व्हतो

गेलान क़ाज़ी निकाह पडु फरराास तेंच़ो दफ्तर धरु
वतात पावसात क़ाज्या ऊपर सातान तेंका च़ाट्टी करु
आंधार राती तेंचे सरीन हाथात लाटन तो उज़वाडु
घुप आंधारा भितर उज़वाडाची आस व्हतो
फूडे वडली मिदगती गावांत एक फरराास व्हतो

सायांन सायों वच़ुचे फर्रास गरवे रमज़ानां
सगले गावांत घरान घरे तेल खतमल-कुरआना
तेल घरे नाही तरीन दे दोन पावने या एक आना
हाडुचे तो जमना घासुन जीशी नावोअनास व्हतो
फूडे वडली मिदगती गावांत एक फरराास व्हतो

मिदगतिची सफाई तोकच़ वांगी मुनादी
साम्माची तो खुनेच़ो ज़ाने गार्वी अबादी
खिदमत साम्माची करुन जिंदगी तेजी सादी
हरऐक कामाक तो ऐकलो एक मगर एकरास व्होतो
फूडे वड्ल्ली मिदगती गावांत एक फरराास व्हतो

# इंग्लिश समानार्थक सब्दांची वळेरी

A = Arabic
H = Hindi
P = Parsi
K = Kannada
N = Naitee
S = Sanskrit
U = Urdu

## अल्लाह हु अकबर

बशर = (A) human
सायों = (N)streets
सस्माची जीबेवर = (N)on everyone's tongue
साव्वच़ = (N)all
ठाव = place
जन्नत जहन्नम = (A)heaven and hell
हाकीम = (A)the ruler
तवफीक़ = (A)divine guidance
वारी = (N)sacrifice
रिज़क = (A)human needs / daily bread
उल्फत = (P)affection

## गांव

व्हट्टी = (N)lap
बीजी = (N)more (again)
मट्टी = (N)back side of street
तांबी = (N)red colour
मुड़कले = (N)rice balls in non-veg curry
आलबे = (N)mushroom
वाटवे = (N)a kind of sea shell
उकीरो = (N)crazyness
दिखरो = (N)marriage songs
बल्ल्यांव = (N)to say / sing

शय्यो = (N)vermicelly शेवियो / शेयो
ज़ाट्टू = (N)wooden spoon
पेस = (N)congi

### आठौ

आठौ = (N)remembrance
वेने = (N)separate
खेका = (N)why
साहु = (N)all
कच़ = (N)only
ढ़लते = (N)decline
फांगरे = (N)white

### फूले

हूर = (A)virgin of paradise
मुरसो = (N)turban
सन = (N)EID
सना = (N)EID/festival (only 1st day after Ramadan and 10th/11th/12th and 13th half day of Zulhajj. Other festivals are called as 'गर' ओ दीस' by the navayats)
गर' ओ दीस = holy day
पटनार = (N)meeting
पिगने = (N)big bowl

### पालौ

सुघड़ै = (N)charm / beauty
म्हेली = (N)wife
कुट्टै = waist
वड़नी = (H)scarf (2.5 mtr)

### करेंट गुल

मुरम = (N)mosquito
पुल्ल्यो = (N)heat boils घामाळी
ज़ाम = (S)skin
रसौता = (N)falling

शिवनो = (N)dream

म्हावरे = (N)fishes

**धाकलोशी एक पोर बल्लो**

बल्लो = (N)to say

ज़ापने = (N)says

फुगरो = (N)too fat guy

चाखुचे = (N)a kind of mix veg curry

कोयो = (N)mango stones

फितना = (A)mischief

झारून = (A)violence

दोर = (N)rope

**एकली**

आटवीन = (N)remembrance / memory

कच़ = (N)only (strictly)

फनी = (N)comb

मन्नत = (N)vow to get something from God

**याने याने**

दिलासा = (F)satisfies

कोसूं = (H)to abuse / curse

**आजो**

सुज़ान = (N)well knowledgeable (old man)

इज़ान = (N)young(small girl-boy)

कनी = (N)to / for

कसकट = (N)a kind of bench with back support fixed on sitout

रहाओत = (N)let it be

जनतेत = (N)at heaven

**भटकल**

मट्टी = (N)back / rear side of street

डगर = (H)way / path
दानो = (N)food grains

**मोजे तैं**

मारू = (S)air

**भन्डारी**

भन्डारी = (N)cook
निक्को = (N)good

**दोन रंगी**

किशात = (N)in the pocket
चौगुले = (N)leaders
आमुले = (N)man
मुआमिला = (A)dealing

**सावरी**

सावरी = (N)the person who comes to awake the fasting people in the holy month of Ramadan
पियारी = (H)lovely
ग़फ्लत = (A)carelessness
ख्यारी = (N)where
नफील = (A)prayer except compulsory/voluntary act of religion
इबादत = (A)worship
कौल = (A)word/saying
ए'तिकाफ = (A)restraining at Masjid
निक्की = (P)goodness
बाव = (A)gate /entrance
रंय्यां = (A)fulfil / an entrance at heaven for fasting people

**बापा**

पावनो = (N)paisa
आनो = (N)old times Ana. 16th part of a rupee

औनो = (N)fan by hand

दोज़ख़ = (A)hell

**शेज़ार**

इलाही = (A)Allah(God)

गुलज़ार = (P)garden / happiness

दौर = (A)time / period

**पान्याची गाडी**

वाड़ी = (N)height

ख़ोल्ल्यो = (A)cloth / sheet to cover on the dress (old usage)

हिंगरूफ़ = (N)a type of hand embroidery

मानगी = (N)grass packing for rice

नाड़ी = (N)a measurement about 1.6kg of para boiled rice

**रुबाब**

पल = (H)moment

वल = (N)turning/twist

नोख़टे = (N)bad

निक्के = (N)good

चखल = (N)mud

**औशाची फरयाद**

गोशे = (N)beloved

बसर = (H)living

थोकड़ी = (N)some

आरगोय = (N)without any problem / safely

सरीन = (N)with

ज़ौजा = (A)wife

दरजा = (A)standard / class

**माड़ो**

भाड़ो = (N)present (gift)

चम्बार = (K)on water pot

दाड़ो = (N)handle

येगुचे = (N)to go up
निसन = (N)ladder
माड़कुल्ल्यो = (N)small frogs
कोन्नालगे = (N)a part of coconut palm
कोचिमा = (N)small mother (pet name for a woman)

**हिसाब**

दरकार = (P)want / need
खुरशेर = (N)on chair
मुरसो = (N)turban / respect
नेकी = (P)goodness
तहरीर = (A)writing
तक़सीर = (A)mistake

**मोजे जिगर**

निन्नी = (N)sleep (child's language)
तरले = (N)fun
निज़गे = (N)sleep please (to the child)
निज़ली = (N)slept
फांवसय = (N)tomorrow

**ज़ांद आनी सूर**

नूर = (A)light

**फोन फोन आयलो फोन**

लूख़ा = (N)curry
तल्ली = (N)pan
घर भरवनी = (N)grahapravesh (House-warming)
इरौनी = (N)storm

**घड़याल**

फांवसै = (N)tomorrow
कदर = (A)care

**टपाल**

शेजे = (N)neighbours

न्होतो = (N)was not there

किशात = (N)in the pocket

थोकड़े = (N)little (some)

ढाल = (H)shield

**पानी**

साहु = (N)all

साहेबीन = (N)madam / lady

नोखठे = (N)bad

पान्र्या भितर = (N)in the water

**माती**

झिरी = (N)stream / water course

हिरीस = (A)greedy

**व्हट्टी**

मसकन = (A)place to stay

आसाइश = (P)facility

मेहफ़ूज़ = (A)safe

नफशेत = (N)selfish

कुड़ो = (N)waste of grains

तरबियत = (A)training

**फात्तर**

आदना = (A)ordinary

ज़मरूद = (A)emerald

याक़ुत = (A)ruby

मरजां = (A)coral

वागरनी = (N)tempering (the food)

वरंटो = (N)upper part of grinding stone /घाटो

### रंग

मोखो = (N)blossom
सरशी = (N)bush
ढोकी = (N)crane
कुपियो = (N)a kind of butterfly
दुतरो = (N)egg white

### क़लम

सुरख़रू = (P)famous
करेत = (N)will do
तख़्त = (N)throne
इल्म = (A)education
फन = (N)technology
फ़ितना = (A)mischief

### कलता-वा

भावु = (N)brother
पुक्को = (N)cowardly
इसलक = (N)like this person

### ज़ापनी

तासीर = (A)impression
काटे = (N)pinpointing / taunting
कमज़रफ = (U) narrow minded / shameless

### चिंदयाचे गोम्बे

परने = (N)wedding/marriage
वड़नी = (N)scarf
भौन्यो = (N)seat for bride
येल = (N)creeper

### दूड़

दूड़ = (N)money

पूड़ = (N)powder / soil
खाज़ीन = (A)treasurer
हाशीर = (N)mat

**चड्वें**

मैराज = (A)leading
आता = (A)given
कयलो = (N)done
वाड़ ऊस = (N)to bring up someone by one's sacrifice

**घरची कुकड़**

खयाल = (A)mind
चीमख = (N)walk

**मां**

इन्द्यो = (N)window
पोस्तान = (N)school bag
मुतल्ली चादरें = (N)bed wetted sheets
रट्टो = (N)arm
तांदुचे = pulling
खल्फीन = (N)religious teacher (lady)
अम्बट्टी = (N)a kind of vegetable
काक्डो = (N)cotton thread



**आज़**

काज़ = (N)want / need
फांवसै = (N)tomorrow / future
ता'मीर = (A)build / creation
फूडे = (N)before/ahead

**वाट**

खीजर = (A)guide/name of a prophet at the time of Prophet Moses



**मौत**

बर,हक = (A)as right/in truth

आस्सी = (N)eighty

इबलीस = (A)Satan / devil

अज़राईल = (A)angel of death

फानी = (A)non-lasting

मसरूर = (A)too happy/exciting

मघरूर = (A)proud / arrogant

गौर = (P)sharp thinking

तक़सीर = (A)fault/mistake

वा'ज़ = (A)addressing/speech

**तट्टी**

डौन्यो = (N)sit out

मोहफीज़ = (A)guard

आबुल्ल्यो = (N)ladies

आबुली = (N)woman / lady

मकरगी = (N)big basket made by bamboo skin

चाक्की = (K)small pieces of fire-wood

कोलत = (N)big piece of fire wood

नीव = (N) roof

हरनी = (N) roof gutter

त्यारी = (N)that side

कोडुदरे = (K)like to give

अठवरन्यो = (N)un-married young girls

अठवर = (N)un-married

**बापा तुमी दक्कन या**

दक्कन = (N)soon/fast

सकन = (N)morning

नीकुन = (N)hide

गीदो = (N)poems / songs

**कागज़ाची समकु**

समकु = (N) small boat. (original Arabic word "sambook")

जब्य = (N)small fish

गरौंचे = (N)fishing

मन्ज़र = (A)seen

आंगुट्टी = (N)lungi

फुगे = (N)balloons

हेड़ी = (N)completely dried coconut on palm

निवली = (N)Lines of rain water falling from the tiled roof

ईज़ = (N)lightning

ज़ोरी = (P)force/powerful

पाख़रू = (N)insects / birds

(ताड़ाची) सातुली = (N)umbrella made of palm leaves

**फर्रास**

फर्रास = (N)General maintenance person for the Masjid. (original Arabic word is 'farrash' means 'cleaner'.)

मिदगत = (N)Masjid

नावाज़ = (N)prayer )original Farsi word 'Namaz')

गर,वो = (N)holy

बांगी = (P) prayer caller of Masjid

मुनादी = (A)proclamation

खिदमत = (A)service/duty

* * *



## शब्बीर बाय्दा

शब्बीर बायदा २६ दशेंबर १९५२ इसवेंत भटकळच्या सुल्तान सायींत, बायदा घराण्यांत जलमलो. ताचो पिता जिफ्री बायदा, महाराष्ट्राच्या ठाणेंत धाकटें एक रेस्टोरेंट चलयताले. पयल्यान पयलें खुरआन शिकतच - भटकळ, ठाणे, मस्जीद बंदर मुबंय, चेन्नय - अशें वेवेगळया गांवच्या शाळेंनी शिकचो सुयोग ताका लाभलो.

परगाट जिणयेंतय वेवेगळया स्तरांचेर नोकरी करताना भारत तशें सावदी अरेबिया, अरब एमिरेतांत ताणे जिवीत सारलां. सद्या तो शारजा शेरांत वसती करून आसा.

लगबग देडशें कोंकणी गितां, चाळीस हिंदी / उरदू गितां आनी गझलां, पंदरा मुकाल्मे बरयल्ल्या शब्बीरान पांयशीं नायती अदगतो (म्हण्ण्यो) जमयल्यात तशें नायती अर्थकोशाच्या वावराची सुरवात केल्या.

BASTI

**BASTI PRAKASHANA**
Basti Gardens
Thumbay - 574 170
Bantwal (D.K.)